# जादवाचो दुदी

माणिकराव गावणेकार



माणिकपद्म प्रकाशन

जादवाचो दुदी

( हितोपदेशाचेर आदारित )





अक्षर जुळणी:
स्नेह ग्राफिक्स
शंकरवाडी, ताळगांव गोंय




छापपी:
प्रिंटआर्ट ऑफसेट प्रिंटर्स
कुंडय - गोंय

प्रकाशक:
माणिकराव गावणेकार
माणिकपद्म प्रकाशन
आमोणें - गोंय



मोल:रु १८/-

## जादवाचो दुदी

एका गांवांत दोग भाव रावताले. ते गरिबींत वाडिल्ले. ते व्हडले कांय शिकलेनात. व्हडल्या भावाचें नांव बुकलो, तो आंगान मोटो आशिल्लो म्हणून ताका बुकलो म्हणटाले. धाकल्या भावाचें नांव सुकडो. तो किडकिडीत आशिल्लो.

बुकलो मात्सो गर्विश्ट आनी धूर्त आशिल्लो. सुकडो सभावान मायेस्त आशिल्लो. लग्न जावपाचो वेळ आयलो आनी बुकल्यान लग्न जावपाचें थारायलें. गावांत एक चली आशिल्ली. ती पिरायेन मातशी जाणटीच पूण खूब गिरेस्त आशिल्ली. बुकल्यान तिचे बराबर लग्न जावपाचें थारायलें. सुकड्यान एक गरीब चली पळयली. तिका आवय-बापूय नाशिल्लीं. सुकडो तिचे बराबर लग्न जालो, तिचें नांव रुक्मिणी.

सुकड्याक खूब कश्ट करचे पडटाले. हातांनी मरमर काम करतालो, तेन्ना ताका पोटापुरतें मेळटालें. ताची बायलूय सोंशीक. रुक्मिणीय दीस-रात काम करताली. पूण हांसत्या मुखाची. ती पेज-निवळ खातालीं,

भाव मायेन वागताले पूण आतां दोगांयच्यो वाटो वेगळ्यो जाल्यो. ते झगडले. एकामेकांकडेन उलयनात जाले, व्हडल्या भावान रागान सुकड्याक सांगलें,
"परत म्हज्या घरांत पाय दवरपाचो ना."

कांय दीस गेले. पावस आयलो. सुकड्याक रोवपाखातीर कांयच बियाणां नाशिल्लीं. "आतां कांयच ना जाल्यार आमी खातली किदें ?" बायलेक विचारलें.

"तूं असो धीर सोडूं नाका, आमी कश्ट करपाक तयार आसत जाल्यार देव किदेंय तजवीज करतलोच," रूक्मिणीन सांगलें.

"हांव म्हज्या व्हडल्या भावा म्हऱ्यांत वतां. थोडीं तरी बीं बियाणां मेळटात जाल्यार पळयतां. म्हाका दिसता तो म्हाका मदत करतलो."
सुकड्यान बायलेक सांगले.
"चल तूं. हे खेपे तुजो भाव तुका पालव दितूय बी. नात्याभितर वायटपण सदां करूंक जाता ?" बायलेन म्हळें.

सुकडो भावागेर गेलो. ताका सांगलें,
"दादी, परिस्थिती सामकी वायट जाल्या. कांयच काम मेळना. आमी सामकी उपाशीं आसात. किदेंय बियाणां दिता जाल्यार दी. उपकार जायत."

" तुका हांवे किदें सांगिल्लें तें याद ना रे सुकड्या ? तुजें कांयच आयकुपाचें ना म्हाका. आत्तांचे आत्तां चलूंक लाग म्हज्या घरांतलो," रागान बुकल्यान सांगलें.

सुकड्याक खुबूच वायट दिसलें. घराकडेन आयलो. बायलेन ताका विचारलें,

"किदें सांगलें दादान ?"

"तो म्हजें कांयच आयकुपाक तयार ना. एक लेगीत बीं दिवपाक तयार ना. ताणें म्हाका धांवडावन घालो. आतां आमी रोयतलीं किदें आनी खातली किदें ?"

सुकड्यान म्हळें,

"तू कांयच हुसको करूं नाका. फुडाराक कशें जायत तें कांयच सांगू नजो. तूं भियेंव नाका. धीर धर." बायलेन जाप दिली.

पावसाळो सोंपलो. गिमाळो आयलो. सुकड्याची खोंप ल्हान. पूण सवण्यांनी खोंपीच्या पांख्यासकयल कितलेशेच घोटेर केल्ले. एक दीस वादळ जालें आनी एक सवणें सकयल पडलें आनी ताचो पाय मोडलो.

सुकड्यान ताका पळयलें. ताका आनी रूक्मिणीक पिलांची काकळूट दिसली. सुकडो बेगीन बेगीन आयलो आनी ताका उबारलें. एक बडी हाडली. पांयांमदीं बांदपाक दोरी नाशिल्ली. बायलेन आपलोच पदर पिंजलो आनी



सवण्याचो पांय घट्ट बांदलो. ताका झाडापाल्याचें वखद केलें. आशिल्लें तांतलेंच तांका खावपाक घालें. वखद सारकें केलें. अशें रितीन कांय दिसांनी ताचो पांय बरो जालो. सुकड्यान मागीर ताका मळबांत सोडून दिलें. बरेच दीस गेले. एक दीस त्या सवण्यान एक दुदयाची बी चोंचीन धरून हाडली. खोंपीकडेन आयलें आनी घरांत दुदया बी उडयली. रूक्मिणीन ती पयली पळयली. ती खोशी जाली.

"आयकलां ? पळयात तरी सवण्यांन आमका किदें हाडलां तें."

रुक्मिणीन घोवाक सांगलें. सुकडो सामको खोशी जालो. "आतां आमकां भंय ना. आमी हें बीं शेतांत रोवया. आमकां भरपूर दुदी मेळटले."

तांणी दुदया बी पोरसांत रोयली. रोखडोच ताका कोंब आयलो. म्हण्टा म्हणसर ताजी वाल जाली. पानां आयलीं. वाल लांब लांब जायत गेली. जमीनभर पातळ्ळी फुलां आयलीं दुदीय लागले. गिमाळो सोंपता म्हणसर वालीक तीन दुदी जाले. दुदी येदे व्हडले जाले की इतले व्हड दुदी तांणी केन्नाच पळोवंक नांशिल्ले.

सुकड्यान बायलेक म्हळें,

"चल एक दुदी घेवन यो. दुदया शाक करूया आनी

खावया."

" आवयस ! येदो व्हडलो दुदी म्हज्यान हाडूं येता "?

तिणें जाप दिली.

दोगांय पोरसांत गेलीं आनी दोगांयनी खरशे-खरशेंत एक दुदी खोंपींत हाडलो. सुकड्यान एक कुराड घेतली आनी तो फोडलो. तातूंत पळय जाल्यार किदें ! सगळे तरेचें अन्न आनी पिवपाक आशिल्लें. तांकां



कितलीशींच वर्सां पुरो जावपाचे तांणी मागीर दुसरो दुदी हाडलो आनी तोय फोडलो आनी तांतूतल्यान तरेतरेचे सगल्या गांवांतल्या लोकांक पावपाइतले कपडे लत्ते भायर आयले.

रूक्मिणीन तिसरो दुदी फोडलो आनी तांतूतल्यान भांगराची आनी रूप्याचीं इतलीं नाणी भायर आयलीं, तीं मेजूंक जायनात जालीं.

आता सुकडो गिरेस्त जालो. तीं दोगांय सुखान रावूंक लागलीं. ताका आतां भावागेर वचपाची गरज उरलिना. बुकल्यान तीं गिरेस्त जाल्लीं पळोवन आजाप जालें. ताणे बायलेक आपयली आनी म्हळें,
"चल मातशी सुकड्यागेर आनी पळय पळोवयां ती इतले बेगीन गिरेस्त कशीं जालीं ते."
बुकल्या बायल रुक्मिणीगेर गेली आनी रुक्मिणीक ती कशीं गिरेस्त जालीं तें विचारलें. सुकड्या बायलेन खोंपीर शेवण्यान कसो घोंटेर केलो, वादळान शेवणें कसें सकयल पडलें, ताजो पांय कसो मोडलो, सुकड्यान तो सारको करतकूच शेवण्यान दुदया बी दिवन दुदी कशे जाले हें सगळें तिका सांगलें.

बुकल्या बायल घरा आयली आनी तिणें घोवाक सगळें सांगले. मागीर तांणीय घरा शेजारा एक खोंप

बांदली. शेवण्यांनी घोंटेर बांदले. पूण वादळ कांय आयलेंना म्हणून बुकल्यान आनी बायलेन मुद्दाम खोंप मोडली. शेवण्याचो पांय मुद्दाम मोडलो. तो मागीर सारको केलो आनी ताका तशेंच रानांत सोडून दिलें. थोड्या दिसांनी शेवणें एक दुदया बी घेवन आयलें आनी तांच्या दारांत दवरली. बुकल्यान तीं पळयली. तो खोशी जालो. दोगांयनी ती पोरसांत रोयली. तिका कोंब आयलो, वाल जाली, फुलां आयलीं पूण तिका एकूच दुदी जालो. बुकलो म्हणूंक लागलो,

'एक दुदी जायना, एक जाल्यार एक'

दुदी बरो व्हडलो आशिल्लो, दोगांयनी घरांत हाडलो आनी फोडलो. फोडले बराबर तातूंतल्यान भग्ग करून उजो भायर सरलो. सगली खोंप आनी तांचे घर लासलें आनी तीं सामकीं भिकारी जालीं.

दुसऱ्यांचो दुस्वास करप्यांचें आनीक किदें जातलें ?



# बोकडो आनी मेंढरो

एका गांवांत एक शेतकामती आशिल्लो. तो आनी ताची बायल शेतांत खूब कश्ट करतालीं. तांचेकडेन एक बोकडो आनी एक मेंढरो आशिल्लो. दोगूय एकामेकांच्या सांगतान रावताले, सांगातान खाताले, सांगातान भोंवताले. शेतकामती कश्ट करून रोयतालो आनी हे दोगूय सांगातान शेत खाताले. मारले, धाडायले तरी कशेच आयकनाशिल्ले. म्हणून तागेले बायलेन घोवाक सांगलें "आमी ह्या बोकड्याक आनी मेंढ्याक धांवडावन दिवया."

"हय बरोबर. हे दोगूय आमकांच खावन उडयतले. घराची वाट लायतले. तांकां धांवडावन उडोवया."
अशें घोवान म्हळें आनी तांकां आड्डून सांगलें,
"ए बोकड्या, ए मेंढ्या, चलूंक लागात घरांतल्यान आनी परत आमकां तोंड दाखोंव नाकात."

बोकड्यान आनी मेंढ्यान एक साक घेतलो, सामान तातूंत घालें आनी वाट चलूंक लागले. चलतां ते एका शेतांत पावले, शेतांत मदीं तांका एका लांडग्याची तकली मेळ्ळी. मेंढरो मोटो आनी शक्तीवान आशिल्लो.

पूण हुशार नाशिल्लो. बोकडो हुशार अशिल्लो पूण शक्तीवान नाशिल्लो. "मेंढऱ्या इश्टा, घे ती तकली. तूं शक्तीवान न्हय ?" बोकड्यान सांगलें. अशें म्हणून तांणी ती लांडग्यांची तकली साकांत घाली, साक खांदार मारलो आनी चलपाक लागले. चलतां चलतां रानांत कोणें तरी धग घाला आनी भोंवतणीं कोण तरी बसल्यांत अशें तांका दिसलें. पळेत जाल्यार लांडगे बसल्यात आनी पेज शिजयतात. तांकां पळोवन बोकड्यान मेंढऱ्याक म्हळें, "त्या धगाक आमी बसुया आनी रात थंयच काडुया. आनी हें पळे मेंढऱ्या, सांगतां तशें कर." ते धगाकडेन आनी लांडगे बशिल्ले थंय बसले.

"इश्टांनो," बोकड्यान आनी मेंढऱ्यान म्हळें.

"येयात इश्टांनो," लांडग्यांनी जाप दिली.

"आमची पेज जाय म्हणसर तुमचे बरोबर बऱ्यो गजाली करूंक येतात."

हें आयकून बोकड्याक भंय दिसलो, जाल्यार मेंढरो कडकडलो. खरे म्हणजे मेंढरो तांकां पळेतपसून सामको भियेल्लो. पूण बोकडो हुशार. ताणें मनांत एक येवजण थारायली आनी मोट्यान मेंढऱ्याक म्हळें, "मेंढऱ्या इश्टा, साकांतल्यान आमी मारल्यात त्या एका लांडग्याची तकली भायर काड पळोवया."

मेंढऱ्यान साकांतल्यान लांडग्याची तकली भायर काडली. ती पळोवन बोकड्यान म्हळें, "ती न्हय रे. दुसरी व्हडली तकली काड रे"

मेढऱ्यान ती तकली भितर घाली, साकांत भितर पळेलेंशें केलें आनी परत तीच तकली वयर काडली. ते पळोवन बोकड्यान परत म्हळें, "आरे ही न्हय. व्हडल्या लांडग्यांची तकली काड रे." मेंढऱ्यान ती भितर घाली आनी परत ती काडली. लांडगे हें पळेताले आनी तीन तकलो जशो पळोवं नाका, ते सामके भियेले आनी पळून वचपाचें तें चिंतूंक लागले. तांणी एकमेकांक सांगलें.



"त्या दोगांकूय फकाणांनी घेवपाचे न्हय. पळें पळे, तांणी साकांतल्यान एका फाटल्यान एक अशो लांडग्यांचो तीन तकल्यो काडल्यो. तांणी विचार केलो आनी एका लांडग्यांन म्हळें,

'आमी हांगा जमल्यात ती खोशयेची गजाल. पेज शिजनाच पूण पेजेंत इल्लें उदक उणें आसा. हांव मातसो वचून उदक हाडटा." आनी मनांत म्हळें, पाड पडूं रे हांचें आनी शेंपडी तुटसर धांवलो. दुसरो लांडगो होच विचार करतालो आनी ताकाय पळून वचपाचें आशिल्लें देखून ताणें म्हळें. "पळे, चोर खंयचो. उदक हाडटा म्हणटा आनी अजून येना. बांय बी खणटा काय किदें रे हो ?



काय कोणें खालो रे ताका ? राव हांवूच वतां आनी त्या फटिंगाक घेवनूच येतात," अशें म्हळें आनी तोय नाच जालो.

तिसऱ्या लांडग्यान दोगांयची वाट पळेली आनी म्हळें, "हे दोगूय नाच मरे अजून येवंक. चोर खंयचे, हांवूच वतां आनी तांका घेवन येतां." आनी तोय काळखांत नाच जालो.

ते जशें वचूं नाकात तशें बोकड्यान म्हळें, "मेंढऱ्या इश्टा, आनीक वेळ वगडावंनाका आमी बेगीन पेज जेवया आनी खंय तरी लिपुया. नाजाल्यार ते परत आयले बगर रावचे नात. अशें म्हणून दोगूय पेज पुसून जेवले आनी तांणी एका झाडार न्हिदून रावपाचें थारायलें. जाण्टेलो मेंढरो मुळांत तेकून फांदी आशिल्ली थंय न्हिदलो आनी बोकडो वयले फांदयेर न्हिदलो.

हेवटच्यान लांडगे पळे भियेवन गेल्ले ते एकठांय आयले. एकल्यान म्हळें, "आरे, आमी ओगीच भियेले. बोकडो आनी मेंढरो आमकां किदें खातले ? आमकां तांचो भंय कसलो ? चल या आमी परत त्या जाग्यार." बाकिच्याय लांडग्यांनी म्हळें, "हय रे हय. आमी ओगीच भियेले.." ते तिगूय लांडगे परत आयले. पळेत जाल्यार बोकडोय ना आनी मेंढरोय ना. तांकां अजाप ! ते तांका

सोदूंक लागले. हेवटच्यान पळेतात, तेवटच्यान पळेतात. इतले म्हणसर तांची नदर वयर गेली. पळल्यार दोगूय एका झाडार चडून वयर न्हिदल्यात.

"हे पळे जाणटेल्या, "दोन तरण्या लांडग्यांनी जाणटेल्या लांडग्याक सांगलें," तूं त्या झाडामुळांत न्हिद. मळबांतली नखेत्रां पळे आनी तांकां कशें धरपाचे तो विचार करून सांग. आमी हांगा न्हिदतात." तांगेलो बोवाळ आयकून बोकडो आनी मेढरो जागो जालो आनी तांकां पळोवन भियेले. मेंढरो कडकडपाक लागलो. सकयल जाण्टेलो लांडगो झाडा मुळांत न्हिदिल्लो. मेंढरो पळे भयान कडकडपाक लागलो तो धप करून वयल्यान पोटली कशी त्या लांडग्याचेर पडलो. तो जसो पडूं नाका. वयल्यान बोकड्यान हुशारकायेन म्हळें,

"मेंढ्या गच्च धर ताची तकली. येतांच हांव सकयल.गोमटीच मारूया ताची. घट धर सोडूं नाका."

हें जशें आयकूं नाका, लांडगे आनीक रावल्यात ? शेंपडी तुट म्हणसर धांव धांव आनी रानांत नाच्च जाले.

बोकड्यान आनी मेंढ्यान एकामेकांक वेंग मारली आनी खोप बांदून सुसेगाद रावले.



## यम आनी घोडेस्वार

दोन घोडेस्वार एका गावांतल्यान दुसऱ्या गावांत वताले. तांकां वाटेर एक न्हंय लागली. ती तांणी हुपली आनी तांकां अटंगें रान लागलें. ते रानांतल्यान वचूंक लागले. वतां वतां तांका खूब पुरो जालें, म्हणटकूच ते एका झाडा सकयल बसले. दोगूय जाण इस्पिकांनी खेळूंक लागले.



खेळटां खेळटां एका घोडेस्वारान पयस पळेलें जाल्यार यम येता. काळोकिट्ट, माथ्याक मुंडासो, खांदार कांबळ, काश्टी न्हेसला आनी उजव्या हातांत कुराड. कुराडीचें पातें बरें रूंद आनी चकचकता. पयल्या घोडेस्वारान यम दिसलेबराबर दुसऱ्याक म्हळें, "हो पळे यम येता. हातांत कुराड आसा. प्रत्यक्ष मरण. आमकां तो जिवानशीं मारतलो. चल आमी पळून वचुया."

"पळून गेल्यार आमी शूर कसले ? आमकां तें सोबना. आमकां लोले, पळपुटे म्हणटले. तेभायर तो पावलो .आतां खंय वतले ?"



"बरें बाबा, तुज्या मनाप्रमाण जावं दी," पयल्यान जाप दिली. इतले म्हणसर यम आयलो. साक्षात मरण !

"बरें जालें. हांव आयलों तो. म्हगेले कुराडीन तुमच्यो तकलो उडयतां आतां." यमान आड्डून म्हळें.

"काय हरकत ना. आतां आमी तुज्या हातांत. पूण आमकां मारचे पयलीं म्हाका चिरूट ओडूं दी," पयल्या घोडेस्वारान सांगलें.

पयल्या घोडेस्वारान मोटें चिरूट काडलें आनी ओडलें. ताणें धुंवर इतलो सोडलो, यम धुंवरान सामको घुस्मटलो. ताका नाका पुरो जालें. ताणे म्हळें,

"शी शी. किदें घाण रे बाबा ! असली घाण येता तो तंबाखू तुमी ओडटात कसो रे ?"

"म्हाका संवय जाल्या." त्या शूर घोडेस्वारान सांगलें. यमान म्हळें, "जालें न्हय तुमचें चिरूट ओडून. आतां उडयतां तुमच्यो तकल्यो."

"राव सायबा ! म्हजेर एक उपकार कर हांव मातशी पूड ओडटां." दुसऱ्या घोडेस्वारान सांगलें. "बरे बाबा ओड पूड." यमान म्हळें. दुसऱ्यान पुडीचें बुशेत उगडलें, थोडी पूड मुद्दाम सकयल उडयली, तेबराबर पुडीचो घमघमाट सुटलो. यमाक वास येवन तांणी ती ओडची म्हणूनच केल्लें. घोडेस्वारान चिमटेन बरी पूड

घेतली, एके नाकपुडयेंत भरली आनी परत चिमटीभर दुसरे नाकापुडयेत भरली. पूड बरी खर आशिल्ली. मिरीं बी घालून पूड तयार केल्ली. ताणें ओडटकूच तो खुशालभरीत जालो आनी आनंदान गावंक लागलो.

"इतलें बरें दिसता रे ?" यमान विचारलें.

"हय तर ! म्हाका खुबूच आवडटा,"
दुसऱ्या घोडेस्वारान म्हळें
"तशें जाल्यार दी म्हाका पूड. हांव ओडटां," यमान म्हळें.

यमान पूड नाकांत घाली. आनी सूं करून ओडली. तेबराबर यमाक कितल्योशोच शिंको आयल्यो, ताका नाकापुरो जालें. कुराड हातांतली सकयल पडली.
"आवय म्हजे ! चिरूट तरी बरें मरे ! तुमी ओडटात तरी कशें ?" यमान विचारलें.

"अरे संवयचे गुलाम आमी. जल्मभर आमकां हें सहन करूंक जाय," दुसऱ्यान म्हळें.

"अशें जर आसत तर हांव तुमकां मारिना. मरण सोंपें पूण तंबाखू ओडून अशे जिवाचे हाल करप, तेंय जल्मभर, हें चड मरणप्राय. हांव मारिना तुमकां. अशेच हाल सोंसात. तीच तुमकां ख्यास्त: हांव वतां," अशें म्हणून यम गेलो.



# खोशयेचीं पदां

एका गांवांत एक मनीस आनी बायल रावताली. तांगेर खूब भुरगी आशिल्लीं. तीं गरीब आशिल्लीं. तांची इल्लीशी खोंप आशिल्ली. सगलीं दीस-रात कश्ट करून कशीं तरी जगतालीं. पूण समाधानी आनी आनंदीत आसतालीं. सदांच आनंदान पदां म्हणटालीं.



कांय दीस गेले. तांचेर संकश्ट आयलें. एक दीस वादळ आयलें आनी तांची खोंप मोडली. ती उकतडार पडलीं. घरांत आवय बरी ना जाली. सामकी मरता अशी जाली पूण कोणेंच धीर सोडलोना. दुसरी खोंप बांदली. आवयची सेवा केली आनी तातुंतूय समाधानी रावलीं. कश्ट सोडलेनात, धीर सोडलोना. खोशयेन पदां म्हणीत रावलीं.

तांच्या शेजरा एक सावकार रावतालो. एक दीस तो तांगेर आयलो. येतना ताणें एके पोतयेंत भांगराचीं



पवनां भरलीं आनी घेवन आयलो. ताणें ती पोती बांकार दवरली. ताणें त्या मनशांक विचारलें,

"तुका भुरगी कितलीं ?"

"धा"

ताणें जाप दिली.

"तुगेल्या घरांत हीं चडशी दिसनात तुका ? तातूंतलें एक भुरगें म्हाका दी, आनी हीं पवनांची पोती तुका दवर."

ताणें सांगलें.

त्या गरीब मनशान भुरग्यांक म्हऱ्यांत आपयलीं आनी म्हळें,

"तुमच्यांतलो एकलो कोणूय तागेर वचपाक तयार आसत जाल्यार तो ही पवनांनी भरिल्ली पोती दिवपाक तयार आसा. तुमच्यांतलो कोण तयार आसा ? आनी पळेयात, तागेर जो वतलो तो थंय धंय, तूप, बरीं बरीं पक्वान्नां खातलो. आनी मोव मोव गादयेर न्हिदतलो. कोण तयार आसा तें सांगात.जो तयार जातलो तो राजाभशेन जगतलो. सुखांत लोळटलो !"

ते बराबर सगळीं भुरगीं सामखीं दुखेस्त जाली. मोटयामोटयान रडपाक लागलीं आनी तांणी सागलें, "आमी कोणूच कशींच वचपाक तयार नात. आमी आमच्या

घराच रावतलीं. पेज निवळ जेवतलीं."

"आयकलें मूं ? आमची भुरगीं तयार नात," मनशान सावकाराक सांगलें.

सावकारान विचार केलो आनी म्हळें,

"बरे आसा. तुमी अजुनूय विचार करात. तुमचेर सगलें निंबून आसा. आनीक एक सांगतां तुमकां. तुमी म्हगेर कोणूच येना जाल्यार आनीक एक करूं येता. तेंय केल्यार ही पवनांची पोती तुमकांच दितां."

"किदें तें ?"

मनशांन विचारलें.

"तुमी पळे खोशयेचीं पदां म्हणट्टात त्या बोवाळान म्हाका न्हीद पडना. हांव जागोच उरतां. तुमी जर पदां म्हणपाचें बंद करशात जाल्यार हांव तुमकां ही पोती दितां,"

सावकारान तांकां सांगलें.

"बरे, दवर ती पोती. पळेतां हांव

मनशान जाप दिली. सावकारान पोती दवरली आनी तो घरा गेलो.

भुरगीं ओगी रावूकन आयकताली. रातभर घरांत शांतताय पातळ्ळी. कोणूच कोणाकडेन उलयना. घरांत किण्ण जालें. घुस्मटमार कसो जालो.

"हे कसलें सुख पयशांखातीर आमी वगडावप ? आमी फकत गावया. आमची खोस त्या भांगरापरस व्हड." एका भुरग्यान म्हळें.

"हय हय, आमकां नाकात तीं पवनां. आमची खोशी आमकां जाय. चलात रे आमी गावया," बाकिच्यांनी म्हळें आनी तीं गावंक लागलीं. बापूय सकाळीं उठलो, ती पवनांची पोती घेतली आनी तडक सावकारागेर गेलो. "ही घे तुजी पवनांनी भरिल्ली पोती. म्हगेलीं भुरगीं आनी तांचे खोशयेचीं पदां हावें विकपाक काडूंक नात,"

अशें म्हणून पोती सावकारांच्या मेजार दवरली आनी घरां आयलो.

त्या दिसापसून त्या गरीब मनशांच्या घरांत सदांच पयलीं भाशेन पदां आयकूंक येतालीं.



